# ऋतु



पाब्लो नेरूदा आनी ताची कविता - पा. ३

कवितेचें कोंकणी द्विमासिक
पावसाळ अंक, २००४

तुजी याद येता तेन्ना
थंड वारें व्हांवता
आनी पैसुल्यान येवपी काळ्या कुपांची
सुलूस लागता
मन दाटून येता ......

पावस - पा. २४

# ऋतु

कवितेचें कोंकणी द्विमासिक

पावसाळ अंक, २००४

*

संपादक

**गोकुलदास प्रभु**

*

छापपी आनी उजवाडावपी

**सत्यवान कुंदे**

कुळागंर प्रकाशन, पॉ.बो.नं. ७८,

मडगांव, गोंय - ४०३ ६०१

*

छापणावळ

**गणेश प्रिंटर्स**

मंगळूर - ५७५ ००३

*

संपादकाचो पत्तो

२५-२१-१३२०-४२

न्यू मजिला कॉलेनी,

जेप्पू, मंगळूर - ५७५ ००२

*

मोल १० रुपया

वर्सुकी पटी

६० रुपया

*

**वेवहाराचो पत्तो**

२५-२१-१३२०-४२,

न्यू मजिला कॉलेनी,

जेप्पू, मंगळूर - ५७५ ००२

## मांडावळ

# संपादकीय

## नेरूदाचीं शंभर वर्सां

पाबलो नेरूदा म्हळ्यार विसाव्या शेंकड्यांतलो खंयचेय भासेपैकींचो सगळ्यांत म्हान कवी अशें गाब्रिएल गार्शा मार्क्वीश हांचें मत. ह्या मताकडेन कितले लोक सहमत आसत खबर ना. पुण सगळ्या संवसाराचे कविताप्रेमी नेरूदाचे कवितेक लागून भुल्ल्यात, हें निश्चित. नेरूदाच्यो कविता आनी बरप संवसाराच्या जायते भासानी अणकारित जावन उजवाडा आयल्यात. कोंकणी वाचप्यांकय हो कवी अनवळखी न्हय. तांच्या उगडासांचे कांय भाग कोंकणींत अणकारित जाल्यात आनी कुळागर म्हयनाळ्याच्या मार्च १९७९ अंकात उजवाडा आयल्यात.

सगळ्या संवसाराक आपले वशीन ओडून घेवपा सारखें नेरूदा कवितेचें खाशेलपण कितें ? ताणीं कवितेंत चित्रायल्ल्या जिणेच्या अणभवाचें तट्टीत चित्र जावंयेत. नेरूदा म्हणटा, जिणेंतल्यान शिकलां, पुस्तकांतल्यान न्हय -



*पुस्तकां उरूदी आलमारींत,*
*हांव चल्लों म्हजे वाटेक*
*जिणेचो जाणकार जालां*
*जिणेतल्यान,*
*मोग समजलों उम्यावेल्यान.*

ते अशेंय म्हणटात -

*म्हज्या कवितानी*
*कविता खांवक ना.*
*त्यो गिळटात*
*उत्तेजक घडणुकां,*
*खातात उग्र हवो,*
*खणून काडटात अन्न*
*मातयेंतल्यान आनी मनशांतल्यान.*

तांचे कवितेंत सोंपे तशेच खोल अणभव दिसून येतात. अभिव्यक्तीची शैली प्रत्यक्ष आनी सरळ आसा आनी विचार दिसतात पारदर्शक. केन्ना केन्ना मेटाफिसिकल गुणय उक्ते जातात. हांका आनी इतर सगळ्या गुणांक लागूनच घडये नेरूदाच्यो कविता लोकप्रिय जाल्यो.

चिलींत जल्मून, लॅटीन अमेरिकेचें प्रतिनिधित्व करून, कविता संवसारांत भरून रावपी ह्या म्हान कवीची वळख, ह्या अंकांतल्या शरतचंद्र शेणै हांच्या सुपुल्ल्या लेखावेल्यान घेवंची. अंकात नेरूदाच्या चार कवितांचो अणकारय आसपावता.

अंदू वर्सा संवसारभर पेब्लो नेरूदाच्या जल्माचीं शताब्दी मनयतात. ऋतूचो हो अंक तांचे प्रतिभेक ओंपला.

# पाब्लो नेरूदा आनी ताची कविता



१६०४ हें वर्स सालवदोर दाली, आयसेक बाषेवीस सिंगर सारक्या कांय नवांजते कलाकारांच्या जल्माचो वर्स. पुण तांचे पैकीं म्हालगडो जावन आसा कवि पाब्लो नेरूदा. लाटीन अमेरिकेचो इतिहास म्हूण रव्यातीक पाविल्लें *कांटों जनरल* रचिल्लो हो कवि १६०४ वर्सा जूलाय बारा तारखेक दाक्षिणी अमेरिकेंतलें चिली ह्या राज्यांत जल्मलो. पाब्लो नेरूदा, हें तांचें लिखणे नांव. मूळ नांव आशिल्लें नेफ्तली रिकारडो रेयेस बासो आल्टो. चिली राज्याच्या पार्राल ह्या हानशा शारांतल्या एका रेल्वे कामगाराचो पूत जावन तो जल्मलो. ताची आवय एक शेक्षिका आशिल्ली पुण ताचे दोन म्हयन्याचे प्रायेर ती जगाक अंतरली. नेफ्तली एक हुशार आनी बुदवंत तरनाटो जावन वाडत आसतना धा बारा वर्साचे प्रायेरीच ताणे काव्य रचनेची सुरवात केली. पुण ताचो बापूय ताका आडायतालो .तेमूको शारांत शेकतना नेफ्तली खूब वाचतालो आनी गब्रियेला मिस्त्राल ह्या ताच्या गावंचे शाळेच्या प्रेनसिपला कडल्यान ताचे साहित्य वासनेक पोसवण मेळ्ळी. ती खुद एक कवियित्री आशिल्ली, आनी तिका मागीर १६४५ वर्सा सहित्याचो नोबेल पुरस्कार मेळ्ळो.

एकूणिसाव्या शतकांतल्या चेको-स्लोवाकी कवि जान नेरूदा (१८३४ - १८६१) हाचे नादीन नेफ्तलीन आपल्या ल्हाणपणांतूच पाब्लो नेरूदा हें लिखणे नांव स्वीकारलें. ताच्यो आदल्यो कृती थळावी वर्तमान पत्रांनी उजवाडा आयल्यो जाल्यार, मागीर मागीर सांटियागोच्या (चिलीची राजधानी) नेमाळ्यानी छापून आयल्यो. १६२१ वर्सा फ्रेंच भास शिकपा खातीर तो राजपाटणांत पावलो, जंय ताका एकटेपणाचो सहवास मेळ्ळो. ताचे बदलते जिणेचो प्रारंभ जंय जालो म्हणूंयेता. १६२३ वर्सा तागेलो पयलो काव्यां झेलो *क्रेपूस्कूलेरियो* उजवाडाक आयलो. हांतूत शांत, सरळ आनी सुंदर कविता आशिल्ल्यो. नंतर अणभवांत आयिल्ल्या एका नष्टप्रेमाच्या प्रकरणाक लागून तागेलो मागीरचो कविता संग्रह उजवाडाक आयलो - *वेयंटे पोयमास दि आमोर य ऊना कानसियोन पेसेस्पाराडा*(१६२४) हो संग्रह रोकडोच फामाद



जालो. इतलेंच न्हय, आजीय ताची ख्याती तशीच उरल्या. भाषांतराच्या वांट्यांतूय हाका प्रथम स्थान मेळत आयलां. नीट सरळ उतरांच्यो पुण तीव्र उत्कट भावनांच्यो तांतूल्यो कविता खंयच्याय साधारण आनी तरूण मनांक हठातू आकर्षित करतल्यो.

अशा ह्या दोनीय कवितां झेल्यांनी आपल्या वीस वर्षाचे प्रायेर पाब्लो नेरूदा चिलीचो विख्यात कवि म्हणू नावांक पावलो. इतर सर्व कार्यां थंयंचे थंयच सोडून तो काव्यरचनेंत मगन जालो आनी एका उप्रांत एक अशे तीन झेले उजवाडाक आयले. पुण दुसरे वाटेन जीवीत मुखार व्हरप साध्य न्हय आशिल्लें देखून उतरलेखन, भाषांतर इत्यादी कार्यां करचीं पडलीं. कसलीय नोकरी, काम धंदो जायच आशिल्लो. म्हणून सरकारा वाटेन बर्माच्या रंगूणांत (सद्या म्यानमरचें यांगोण) विना-वेतनाचो वाणिज्य दूत जावन चल्लो. हें काम ताणे सरकाराचो प्रतिनिधी म्हूण कांय वर्षांक जायत्या गावांनी सांबाळ्ळें. पुण ताची जीण दारिद्रयांत आनी अतीव एकलेपणांतूच आशिल्ली. पुण एका कवीक, साहित्यिकाक जाय ती अणभवांची निधी ताका मेळत रावली. दक्षिणी अशियांतल्या मनशांची जीण पळोवन तो खंती जालो. ह्या वेळार उजवाडायलेल्या ताच्या संग्रहांतल्यो कविता आदल्या कवितां थाकून खूब भिन्न आशिल्ल्यो. *रेसिडेनसिया एन ला तियेरा* (१९३३) संग्रहांतल्या कवितांत अत्यंत वैयक्तिक आनी बरीचशी नवी एक शैली थळथळ्ळी. आकर्षणावरीच विकर्षणूय अणभवपी; जीविताच्या आनी जीवित मूल्यांच्या दुखद नष्टेपणांची तिखट चित्रां रेखाटपी अशीं तीं काव्यां. ताची कविता बदल्ली जाल्यार ती खया जीविताच्या अणभवांक लागूनच बदल्ली.

ह्या वेळार ताची फेडरिको गारसिया लोर्का ह्या स्पानीष कवि, संगीतज्ञ आनी नाटककारा लागी वळख जाली. तांची इष्टागत बरीच वाडली. लोर्कान वळख करून दिल्ली महूण नेरूदाक स्पेयनांत बरो येवकार मेळ्ळो. तांच्या राष्ट्रीय चिन्तनांतूय कम्यूनिस्ट वादाचो प्रभाव आशिल्लो. जाल्यार १९३६ वर्साच्या स्पानिष अभ्यंतर झूजांत नॅषनलिस्टांनी लोर्काक जिवेंशीं मारलो. म्हणून नेरूदाचेर व्हडलो धपको बसलो.




ह्या कालाचें ताचें पुस्तक *एसपाना एन एल कोराझोन* (१९३७) रिपब्लिकन झुजाऱ्यानींच उजवाडाक हाडिल्लो. परतून आपल्या गांवांत पाविल्ल्या नेरूदान राजकारणांत प्रवेश केलो. पॅरीस आनी मेक्सिको गावांत चिलीचें प्रतिनिधान करीत आसतना ताणे हातांत घेतिल्लें सुदीर्घ काव्य *कांटो जनरल* पंदरा अध्यायाचें आनी २५० काव्याची म्हत्वाची कृती जावन भायर आयली. सगल्या दक्षिणी अमेरिकाचो इतिहास म्हूण तें काव्य नांवादीक जालें. तांतूतलें सुप्रधान काव्य म्हूण *अल्तुरास दि मछू पिछू* गाजलें, ज्यांतूत पेरूगावांत आशिल्ल्या पुरातन इन्का शार 'मछू पिछू' हाचे संबदीची अनुभूति आनी विचार आशिल्लो.

पुण हें काव्य ताका आपल्या गांवां भायरूच छापून उजवाडा हाडचें पडलें. राजकारणांतल्या विश्वस्तांच्या विश्वास घाताक लागून ताका गांव सोडचो पडिल्लो. आपल्या गावां भायर आसतना ताणे वेगवेगळीं राष्ट्रांत भोंवडी केली. आनी ताका मान्य आशिल्ली अर्धांगिनीय मेळ्ळी-माटिलडा उरूशिया. तिचेर नेरूदान सुमार प्रेमकविताय त्या कालाक रचल्यो.

१९५२ वर्साक लागून ताका चिलींत परतून येवप शक्य जालें. राजकारण बदल्लें तो गांवांक पाविल्लो. ताच्यो कविता खूब गजिल्ल्यो आनी अणकारीत जावन संवसारभर पांविल्ल्यो. गिरेस्तपणांत पाविल्ल्या ताणे वेगवेगळ्या शारांनी दोन तीन घरां बांदली. खूब बरवप जातालें आनी १९५४ वर्सा उजवाडाक आयिल्लें *ओडास एलिमेंटालीस* खूब प्रसिध्द जालें. तांतूंत अत्यंत त्यत्गस्त रूपाची कविता शैली पळोवंक मेळटा - सरळ, अल्पाक्षरी, नीट आनी सरस.

तरातराच्या कष्टांच्या, संकष्टांच्या कालखंडा उप्रांत आतां तो संतोषाचे दीस भोगतालो, समृध्दीची जीण जियेतालो. पुण कवि सुस्त बसलोना. १९५८ उप्रांत पंदरा वर्षांनी ताचीं २० पुस्तकां उजवाडाक आयलीं. पुण तितल्यान ताका कँसर रोग लागिल्लो.

ऐन वेळार १९७१ वर्साचो नोबेल पुरस्कार मेळ्ळो. पुण दोन वर्सांनी, रक्तार्बुदाक लागून चिलीचे सांटियागो शारांत १९७३ वर्सा सेप्तेंबर २३ दिसा तो अंतरलों.

पाब्लो नेरूदाच्या काव्यसंवसाराचो नियाळ घेवंक भायर सरपी हार खातलो कित्याक, तो तेदे व्याप्तीचो आनी त्यत्यस्ततायांनी भरिल्लो.जिणेच्या दर एक अणभवाक खंय ताणें दोनीय हातांनी स्वीकार केल्लो. आनी दोनय हातांनी म्हणिल्ले वरी खूब खूब बरयतूय राविल्लो. ताचो *रेसिडेनसिया एन ला तियेरा* (भुंयेवयलो निवास) हो एकूच ग्रंथ परत परत उजवाडाक येतना चड चड काव्यां भरून थोर थोर जायत आयलो आनी मूळ स्वभावांतल्यान विभिन्न भावान आयलो.

तरी आसूनूय ह्या काव्यसंवसाराची निकट वळख चार भावांनी घेवंचो प्रयास जाला - प्रेम कविता, अंतरमुखी कविता, उदात्त कविता आती घरगुती कविता.

प्रेमकविताच वेवेगळ्या नमून्याच्यो मेळतात - अत्यंत भावनावश, तशोच पक्व-संतोषधिक्याच्यो, आनी निर्शणच्यो. तरणे प्रायेर उजवाडायलेल्या संग्रहांतूय ('वीस प्रेमकविता आनी एक गीत निर्शणीचें') मध्य वयाचेर उजवाडायिल्ल्या *लोस वेरसोस देल कापितान* (कॅप्टनालीं कडवीं - १९५२) संग्रहांतूय मोगाचीं वेगवेगळीं तासां पळोवंक मेळटात. १९६० वर्सा उजवाडायलेलें *शंबर प्रेमगीतकां* पुस्तकूय हेच गणांतलें.

पुण ताचो चडांत चड परामर्श जाता ताच्या अंतरमुखी काव्यां विशीं ह्यो. कविता चड करून *रेसिडेनसिया एन ला तियेरा* ह्य संग्रहांत मेळटात.हाची पयली उजवाडावणी १९२५ वर्सा जाली जाल्यार मगीर १९३३ आनी १९४७ वर्सा नवे कवितांनी भरिल्ले संग्रह उजवाडाक आयले. एकटेपणाच्यो, निर्शणेच्यो, हांतूतल्यो कविता ताच्या अंतरमनाच्या उपबोधाचीं चित्रां काडटात. 'सररियलिसमाक' धरून ताच्या काव्याची वळख दिवपी तीं काव्यां. पुण नेरूदा विर्शेणीचो कवि न्हय. नोबेल पुरस्कार घेवन, केल्ल्या आपल्या लांब भाशणांत ताणे हें स्पष्ट उतरांनीच सांगलां - मनशावयलो विश्वास हांवें केन्नाच सोडूंक ना. हांवें कोन्नाच आस सोडुंक ना.



तागेले उदात्त आनी महत्तर कवितेचे उदाहरणाक आनी वळखेक *कांटो जनरल* (सामान्य काव्यां - १९५०) हो एकूच बृहत संग्रह पावंता. पंद्रा सर्गांच्या ह्या संग्रहांत सगले लाटीन अमेरिकेचो पूर्वेतिहास, मानवीय महिमा, आनी आत्मचित्रण सुमार २५० कवितांनी जाता.

ह्यो कविता कशो उपजल्यो ? आपल्या नोबेल पुरस्कार भाषणांत तो म्हण्टा - "सतत आनी लांब अशे जीवन यात्रेंत कवितेक जाय तें सगलेंच म्हाका अर्द धतरिन दिल्लें आनी अर्द म्हज्याच आत्म्यान !" कवीचो धर्म खंयचो हें स्पष्ट रूपान सांगूक शक्य नासत, तरीय कवीचो धर्म कितें न्हय हाचे विशीं तो म्हण्टा - "आरोप, प्रत्यारोप वा प्रतिवाद कवीच्या धर्मांत बसना."

नेरूदाचो काव्य संवसार आनीकय एके तराच्या कवितांनी समृद्ध आसा. ताणे जीं "सामान्य काव्यां " म्हूण सांगिल्लीं तीं अत्यंत " असामान्यच" आशिल्लीं. निश्चितपणान सामान्य, साधारण, आनी सरस अशीं जायतीं घरगुतीं काव्यां ताणे रचल्यांत - अतीव तरणे प्रायेरीय, सुमार जाण्टेपणांतूय. *ओडास एलमेंटालीस* (प्रारंभ गीतां - १९५४) ह्या संग्रहांत घरा भोंवतणेच्या जायत्या सामान्य वस्तूंक म्हळ्यार माजर, पियाव, लिंबू, मीट आदींक ओंपिल्लीं गीतां आसात.

अशा ह्या व्हडल्या आनी, विविधतायेच्या काव्य प्रपंचाचो धनी म्हळ्यार नेरूदा. ताची पुरतीच वळख घेवपी आनी दिवपी भोव थोडे.ताचीं एक दोन काव्यां वाचलीं म्हण ताची खरी वळख मेळची ना. ते खातीर उण्यांत ऊणे चार तरीय काव्य संग्रहांचीं पानां चाळचीं पडटलीं !

■ **शरतचंद्र शेणै**

# पाब्लो नेरूदाच्यो कविता ಪಾಬ್ಲೊ ನೆರೂದಾಚ್ಯೊ ಕವಿತಾ



## निर्शणेचें गीत ನಿರ್ಶಣೇಚೆಂ ಗೀತ್

भोंवतणेचे रातींतल्यान भायर
सरता तुजी याद.
भरसता न्हंयचो हटी विलाप दर्यांत.

उपेक्षित जशे गिड्डे फांतोड्यार,
हें वर विरहाचें, उपेक्षिते !
थंड फुलांचे झेले शिंवरतात
म्हज्या काळजार
अवशेशांच्या फोंडा, तारवां
मोडून वार्यार पडिल्ल्यांक
शरण दिल्ले उग्र गुहे,
तुज्यांत सांठल्यांत झुजां, पळप.
तुजेवयल्यान उडलीं गावपी
सुकणीं, पाखटां फुलोवन.

ಭೋಂವ್‌ತಣೇಚೇ ರಾತೀಂತಲ್ಯಾನ್ ಭಾಯರ್
ಸರ್‌ತಾ ತುಜೀ ಯಾದ್.
ಭರ್‌ಸ್‌ತಾ ನ್ಹಂಯ್‌ಚೊ ಹಟೀ ವಿಲಾಪ್ ದರ್‌ಯಾಂತ್.

ಉಪೇಕ್ಷಿತ್ ಜಶೇ ಗಿಡ್‌ಡೇ ಫಾಂತೋಡ್ಯಾರ್
ಹೆಂ ವರ್ ವಿರ್‌ಹಾಚೆಂ, ಉಪೇಕ್ಷಿತೇ !
ಥಂಡ್ ಫುಲಾಂಚೇ ಝೇಲೇ ಶಿಂವ್‌ರತಾತ್
ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಕಾಳ್‌ಜಾರ್
ಅವಶೇಶಾಂಚ್ಯಾ ಫೋಂಡಾ, ತಾರ್‌ವಾಂ
ಮೋಡೂನ್ ವಾರ್ಯಾರ್ ಪಡಿಲ್ಲ್ಯಾಂಕ್
ಶರಣ್ ದಿಲ್ಲೆ ಉಗ್ರ್ ಗುಹೇ.
ತುಜ್ಯಾಂತ್ ಸಾಂಠ್‌ಲ್ಯಾಂತ್ ಝುಜಾಂ, ಪಳಪ್.
ತುಜೇವಯಲ್ಯಾನ್ ಉಡಲೀಂ
ಸುಕಣೀಂ, ಪಾಖ್‌ಟಾಂ ಫುಲೋವನ್.



ळळें तुवें सगळें, जशें करता अंतर.
र्या वरी. वेळा वरी. तुज्यांत
सगळेंच बुडलें !

ीशेच्या त्या वरांत उल्लो हल्लो
आनी उमो.
रभर तो जादू जळ्ळो दिव्याघरा वरी.

ंडेल्याची भिरांत, कुड्ड्या
चलोवप्याचो आवेश,
गाची खवदळिल्ली नशा,
सगळें तुज्यांत बुडलें !

रगेपणाच्या दुव्यांत म्हजो
आत्मो, पाखटांचो आनी घायाळ.
कलो सोदून काडपी,
तुज्यांत सगळें बुडलें.

ಗಿಳ್ಳೇಂ ತುವೇಂ ಸಗಳೇಂ, ಜಶೇಂ ಕರ್‌ತಾ ಅಂತರ್.
ದರ್‌ಯಾ ವರೀ. ವೇಳಾ ವರೀ. ತುಜ್ಯಾಂತ್
ಸಗಳೇಂಚ್ ಬುಡ್‌ಲೇಂ !

ಖೋಶೇಚ್ಯಾ ತ್ಯಾ ವರಾಂತ್ ಉಲ್ಲೋ ಹಲ್ಲೋ
ಆನೀ ಉಮೋ.
ವರ್‌ಭರ್ ತೋ ಜಾದೂ ಜಳ್ಳೋ ದಿವ್ಯಾಘರಾ ವರೀ.

ತಾಂಡೇಲ್ಯಾಚೀ ಭಿರಾಂತ್, ಕುಡ್‌ಡ್ಯಾ
ಚಲೋವಪ್ಯಾಚೋ ಆವೇಶ್,
ಮೋಗಾಚೀ ಖವದ್‌ಳಿಲ್ಲೀ ನಶಾ,
ಸಗಳೇಂ ತುಜ್ಯಾಂತ್ ಬುಡ್‌ಲೇಂ !

ಭುರ್‌ಗೆಪಣಾಚ್ಯಾ ದುವ್ಯಾಂತ್ ಮ್ಹಜೋ
ಆತ್ಮೋ, ಪಾಖ್‌ಟಾಂಚೋ ಆನೀ ಘಾಯಾಳ್.
ಚುಕ್‌ಲೋ ಸೋದೂನ್ ಕಾಡ್‌ಪೀ,
ತುಜ್ಯಾಂತ್ ಸಗಳೇಂ ಬುಡಲೇಂ !

तुवें वेंग मारली दुखाची, इत्सेची,
खंतान तुका धपको दिलो,
तुज्यांत सगळें बुडलें.

सावळेची वणत हांवें घेतली फाटीं,
कामाच्या फुडें, कामने पेल्यान
हांव चलत रावलों.

मांसा, म्हज्या हाडा-मांसाचे,
म्हजे मोगाचे, सांडिल्ले नारी,
ह्या ओल्या वरांत आपयतां तुका,
हें गीत तुज्याच खातीर गो.

एका भुयांवावरी अनंत
मोवाळपण सांबाळ्ळें तुवें.
आनी अनंत विस्मृतीन
भुयांवावरीच फोडलें तुका .

जुंव्यांचें तें काळें एकलेंपण आसलें,
आनी, थंय, मोगाचे नारी,
तुज्या वेंगांत म्हाका घेतलो.

तानेलों, भुखेल्लों,
आनी तूं आसली, फळ.
भोगलें दुख आनी अवशेश,
आनी तुजो दिसलो चमत्कार.

अस्तुरे, समजना म्हाका धरूंक
कशी पावली,
तुज्या अत्म्याच्या मातयेंत,
तुज्या दोनय हातानी !

ತುವೇಂ ವೇಂಗ್ ಮಾರ್‌ಲೀ ದುಖಾಚೀ, ಇತ್ಸೇಚೀ,
ಖಂತಾನ್ ತುಕಾ ಧಪ್‌ಕೋ ದಿಲೋ,
ತುಜ್ಯಾಂತ್ ಸಗ್‌ಳೇಂ ಬುಡ್‌ಲೇಂ.

ಸಾವ್‌ಳೇಚೀ ವಣತ್ ಹಾಂವೇಂ ಘೇತ್‌ಲೀ ಫಾಟೀಂ,
ಕಾಮಾಚ್ಯಾ ಫುಡೇಂ, ಕಾಮನೇ ಪೆಲ್ಯಾನ್
ಹಾಂವ್ ಚಲತ್ ರಾವ್‌ಲೋಂ.

ಮಾಂಸಾ, ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಹಾಡಾ-ಮಾಂಸಾಚೇ,
ಮ್ಹಜೇ ಮೋಗಾಚೇ, ಸಾಂಡಿಲ್ಲೇ ನಾರೀ,
ಹ್ಯಾ ಓಲ್ಯಾ ವರಾಂತ್ ಆಪ್‌ಯತಾಂ ತುಕಾ,
ಹೇಂ ಗೀತ್ ತುಜ್ಯಾಚ್ ಖಾತೀರ್ ಗೋ.

ಏಕಾ ಭುಯಾಂವಾವ್‌ರೀ ಅನಂತ್
ಮೋವಾಳ್‌ಪಣ್ ಸಾಂಬಾಳ್ಳೇಂ ತುವೇಂ.
ಆನೀ ಅನಂತ್ ವಿಸ್ಮೃತೀನ್
ಭುಯಾಂವಾವ್‌ರೀಚ್ ಫೋಡಲೇಂ ತುಕಾ.

ಜುಂವ್ಯಾಂಚೇಂ ತೇಂ ಕಾಳೇಂ ಏಕ್‌ಲೇಂಪಣ್ ಆಸಲೇಂ,
ಆನೀ, ಥಂಯ್, ಮೋಗಾಚೇ ನಾರೀ,
ತುಜ್ಯಾ ವೇಂಗಾಂತ್ ಮ್ಹಾಕಾ ಘೇತ್‌ಲೋ.

ತಾನೇಲೋಂ, ಭುಖೇಲ್ಲೋಂ,
ಆನೀ ತೂಂ ಆಸ್‌ಲೀ, ಫಳ್.
ಭೋಗಲೇಂ ದುಖ್ ಆನೀ ಅವ್‌ಶೇಶ್,
ಆನೀ ತುಜೋ ದಿಸ್‌ಲೋ ಚಮತ್ಕಾರ್.

ಅಸ್ತುರೇ, ಸಮ್‌ಜನಾ ಮ್ಹಾಕಾ ಧರೂಂಕ್
ಕಶೀ ಪಾವ್‌ಲೀ,
ತುಜ್ಯಾ ಅತ್ಮ್ಯಾಚ್ಯಾ ಮಾತಯೇಂತ್,
ತುಜ್ಯಾ ದೋನಯ್ ಹಾತಾನೀ !

| | |
|---|---|
| दी भिरांकूळ आनी थोडी | ಕೇದೀ ಭಿರಾಂಕೂಳ್ ಆನೀ ಥೋಡೀ |
| आसली म्हजी तुजेखातीर इत्सा ! | ಆಸ್‌ಲೀ ಮ್ಹಜೀ ತುಜೇಖಾತೀರ್ ಇತ್ಸಾ ! |
| तली कठीण आनी नशेची, | ಕಿತ್‌ಲೀ ಕಠೀಣ್ ಆನೀ ನಶೇಚೀ, |
| कितले तणावाची आनी खुरखुरी. | ಕಿತ್‌ಲೆ ತಣಾವಾಚೀ ಆನೀ ಖುರ್‌ಖುರೀ. |
| म्यांचे सिमितेरी, तुज्या कबरानी | ಉಮ್ಯಾಂಚೇ ಸಿಮಿತೇರೀ, ತುಜ್ಯಾ ಕಬರಾನೀ |
| अजून उजो आसा, | ಅಜೂನ್ ಉಜೋ ಆಸಾ, |
| जून फळांचे खांदे जळटात, | ಅಜೂನ್ ಫಳಾಂಚೇ ಖಾಂದೇ ಜಳ್‌ಟಾತ್, |
| सुकण्यांचे चोंचीनी. | ಸುಕಣ್ಯಾಂಚೇ ಚೋಂಚೀನೀ. |
| ाबिल्लया ओंठा, चुंबयल्ल्या आंगानों, | ಚಾಬಿಲ್ಲ್ಯಾ ಓಂಠಾ, ಚುಂಬಯಲ್ಲ್ಯಾ ಆಂಗಾನೋ, |
| खेल्ल्या दांतानों, वेश्टल्ल्या कुडीनो, | ಭುಖೇಲ್ಲ್ಯಾ ದಾಂತಾನೋ, ವೆಶ್ಟಲ್ಲ್ಯಾ ಕುಡೀನೋ, |
| ास्तेच्या आनी शक्तीच्या पिशा जोडपान | ಆಸ್ತೆಚ್ಯಾ ಆನೀ ಶಕ್ತೀಚ್ಯಾ ಪಿಶಾ ಜೋಡ್‌ಪಾನ್ |
| ामी विलीन जालीं, आशा सोडली. | ಆಮೀ ವಿಲೀನ್ ಜಾಲೀಂ, ಆಶಾ ಸೋಡ್‌ಲೀ. |
| ानी ती मृदुलता, उदका वरी, | ಆನೀ ತೀ ಮೃದುಲತಾ, ಉದ್‌ಕಾ ವರೀ, |
| धुल्ले वरी ल्हवू. | ಧುಲ್ಲೇ ವರೀ ಲ್ಹವೂ. |
| ोंठावयल्यान मात फुटूंक लागिल्लें उतर. | ಓಂಠಾವಯಲ್ಯಾನ್ ಮಾತ್ ಫುಟೂಂಕ್ ಲಾಗಿಲ್ಲೇಂ ಉತರ್. |
| ो म्हजी नियती आनी तांतूत | ಹೀ ಮ್ಹಜೀ ನಿಯತೀ ಆನೀ ತಾಂತೂತ್ |
| म्हजे खर इत्सेची भोंवडी, | ಮ್ಹಜೇ ಖರ್ ಇತ್ಸೇಚೀ ಭೋಂವ್‌ಡೀ, |
| ानी तांतूंत ती खर इत्सा पडली, | ಆನೀ ತಾಂತೂತ್ ತೀ ಖರ್ ಇತ್ಸಾ ಪಡ್‌ಲೀ, |
| तुज्यांत सगळेंच बुडलें ! | ತುಜ್ಯಾಂತ್ ಸಗಳೇಂಚ್ ಬುಡ್‌ಲೇಂ ! |
| वशेशाच्या फोंडा, | ಅವಶೇಶಾಚ್ಯಾ ಫೋಂಡಾ, |
| तुज्यांत सगळें पडलें, | ತುಜ್ಯಾಂತ್ ಸಗ್‌ಳೇಂ ಪಡ್‌ಲೇಂ, |
| यची खंत तुंवे उगडूंक ना, | ಖಂಯ್‌ಚೀ ಖಂತ್ ತುಂವೇ ಉಗ್‌ಡೂಂಕ್ ನಾ, |
| खंयच्या दुखांत तूं बुडुंक ना ! | ಖಂಯ್‌ಚ್ಯಾ ದುಖಾಂತ್ ತೂಂ ಬುಡೂಂಕ್ ನಾ ! |
| ारांवयल्यान ल्हारां मेरेन | ಲ್ಹಾರಾಂವಯ್‌ಲ್ಯಾನ್ ಲ್ಹಾರಾಂ ಮೆರೆನ್ |
| तुवें आपयलें, गायलें, | ತುಂವೇ ಆಪ್‌ಯಲೇಂ, ಗಾಯ್‌ಲೇಂ, |

| | |
|---|---|
| तारवाच्या फुडल्या भागार रावपी | ತಾಖಾಚ್ಯಾ ಫುಡಲ್ಯಾ ಭಾಗಾರ್ ರಾವ್‌ಪೀ |
| तारवट्या वरी. | ತಾಖ್‌ಟ್ಯಾ ವರೀ. |
| निस्तेज, कुड्ड्या पेंवप्या, कपलफुटक्या, | ನಿಸ್ತೇಜ್, ಕುಡ್‌ಡ್ಯಾ ಪೇಂವ್‌ಪ್ಯಾ, ಕಪಲ್‌ಫುಟ್‌ಕ್ಯಾ, |
| चुकिल्लया सोदप्या, तुज्यांत सगळें बुडलें ! | ಚುಕಿಲ್ಲ್ಯಾ ಸೋದಪ್ಯಾ, ತುಜ್ಯಾಂತ್ ಸಗ್‌ಳೇಂ ಬುಡ್‌ಲೇಂ ! |
| विरहाचें वर हें, घट, थंड वर | ವಿರ್‌ಹಾಚೇಂ ವರ್ ಹೇಂ, ಘಟ್, ಥಂಡ್ ವರ್ |
| जें सगळ्या वेळा पटयेर राती लायता. | ಜೇಂ ಸಗ್ಳ್ಯಾ ವೇಳಾ ಪಟ್‌ಯೇರ್ ರಾತೀ ಲಾಯ್‌ತಾ. |
| दर्याचो सळसळत पटो वेळेक | ದರ್‌ಯಾಚೋ ಸಳ್‌ಸಳತ್ ಪಟೋ ವೇಳೇಕ್ |
| घेता वेंगेंत | ಘೇತಾ ವೇಂಗೇಂತ್ |
| थंड तारां उस्वास सोडटात, | ಥಂಡ್ ತಾರಾಂ ಉಸ್ವಾಸ್ ಸೋಡ್‌ಟಾತ್, |
| काळीं सुकणीं उडटात, | ಕಾಳೀಂ ಸುಕಣೇಂ ಉಡ್‌ಟಾತ್. |
| फांत्यापाराच्या बोटीच्या | ಫಾಂತ್ಯಾಪಾರಾಚ್ಯಾ ಬೋಟೀಚ್ಯಾ |
| धक्क्यावरी उपेक्षीत. | ಧಕ್ಕ್ಯಾವರೀ ಉಪೇಕ್ಷೀತ್. |
| फकत म्हज्या हातांत कांपपी | ಫಕತ್ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಹಾತಾಂತ್ ಕಾಂಪ್‌ಪೀ |
| सावळी रेंवडता | ಸಾವ್‌ಳೀ ರೇಂವಡ್‌ತಾ |
| खंयच्याय परस, चड पयस, | ಖಂಯ್‌ಚ್ಯಾಯ್ ಪರಸ್, ಚಡ್ ಪಯಸ್, |
| खंयच्याय परस, चड पयस, | ಖಂಯ್‌ಚ್ಯಾಯ ಪರಸ್, ಚಡ್ ಪಯಸ್, |
| म्हळयार विरहाचें वर, उपेक्षिते ! | ಮ್ಹಳ್ಯಾರ್ ವಿರಹಾಚೇಂ ವರ್, ಉಪೇಕ್ಷಿತೇ ! |



## मोगाची कविता

तुज्या ओंठाखातीर, आवाजाखातीर,
केंसाखातीर आंवडेतां,
मोगी, उपाशी, गल्लींतल्यान
शिकारेखातीर भोंवतां.
अन्न म्हाका पोसना, फांतोड म्हाका
मोडून घालता, सगळो दीस
भोंवतां तुज्या पांवलांचो
चंचल मेजमाप सोदीत.
भुखेतां तुज्या संवर्धित हासा खातीर,
तुज्या हातांखातीर, जांचो रंग लुवणेचो,

भुखेतां तुज्या धव्या नांखटांखातीर,
तुजी कात एक सगळ्या
बदामावरी खायन दिसता.

खायन दिसता तुजे अपूरबायेचे
कुडीर लखलखपी सूर्यकिर्णां,
तुज्या मस्त तोंडावयलें उत्कृशठ नांक,
तुज्या दोळ्यापात्त्येच्या केंसाची
खिणयाळी सावळी,

आनी हांव पसयो मारीत आसां
भुखेन, हुंगीत तिनसांज,
सोदीत तुका, तुजें हुनहुनीत काळीज,
क्विट्राट्यूचे पाडे भुंयच्या प्यूमा* वरी
*(*वागाची एक जात)*

## ಮೋಗಾಚೀ ಕವಿತಾ

ತುಜ್ಯಾ ಓಂಠಾಖಾತೀರ್, ಆವಾಜಾಖಾತೀರ್,
ಕೇಂಸಾಖಾತೀರ್ ಆಂವ್‌ಡೇತಾಂ,
ಮೋಗೀ, ಉಪಾಶೀ, ಗಲ್ಲೀಂತಲ್ಯಾನ್
ಶಿಕಾರೇಖಾತೀರ್ ಭೋಂವ್‌ತಾಂ.
ಅನ್ನ್ ಮ್ಹಾಕಾ ಪೋಸ್‌ನಾ, ಫಾಂತೋಡ್ ಮ್ಹಾಕಾ
ಮೋಡೂನ್ ಘಾಲ್‌ತಾ, ಸಗ್‌ಳೋ ದೀಸ್
ಭೋಂವ್‌ತಾಂ ತುಜ್ಯಾ ಪಾಂವ್‌ಲಾಂಚೋ
ಚಂಚಲ್ ಮೇಜ್‌ಮಾಪ್ ಸೋದೀತ್.
ಭುಖೇತಾಂ ತುಜ್ಯಾ ಸಂವರ್ಧಿತ್ ಹಾಸಾ ಖಾತೀರ್,
ತುಜ್ಯಾ ಹಾಂತಾಖಾತೀರ್ ಜಾಂಚೋ ರಂಗ್ ಲುವ್‌ಣೇಚೋ,

ಭುಖೇತಾಂ ತುಜ್ಯಾ ಧವ್ಯಾ ನಾಂಖಟಾಂಖಾತೀರ್,
ತುಜೀ ಕಾತ್ ಏಕ್ ಸಗ್‌ಳ್ಯಾ
ಬದಾಮಾವರೀ ಖಾಯನ್ ದಿಸ್‌ತಾ.

ಖಾಯನ್ ದಿಸ್‌ತಾ ತುಜೇ ಅಪೂರ್‌ಬಾಯೇಚೇ
ಕುಡೀರ್ ಲಖ್‌ಲಖ್‌ಪೀ ಸೂರ್ಯ್‌ಕಿರ್ಣಾಂ,
ತುಜ್ಯಾ ಮಸ್ತ್ ತೋಂಡಾವಯ್‌ಲೇಂ ಉತ್ಕೃಶ್ಠ್ ನಾಂಕ್,
ತುಜ್ಯಾ ದೋಳ್ಯಾಪಾತ್ತ್ಯೇಚ್ಯಾ ಕೇಂಸಾಚೀ
ಖಿಣ್‌ಯಾಳೀ ಸಾವ್‌ಳೀ,

ಆನೀ ಹಾಂವ್ ಪಸಯೋ ಮಾರೀತ್ ಆಸಾಂ
ಭುಖೇನ್, ಹುಂಗೀತ್ ತಿನ್‌ಸಾಂಜ್,
ಸೋದೀತ್ ತುಕಾ, ತುಜೇಂ ಹುನ್‌ಹುನೀತ್ ಕಾಳೀಜ್,
ಕ್ವಿಟ್ರಾಟ್ಯೂಚೇ ಪಾಡೇ ಭುಂಯಚ್ಯಾ ಪ್ಯೂಮಾ* ವರೀ
*(*ವಾಗಾಚೀ ಏಕ್ ಜಾತ್)*

| # कविता पुस्तकाची | # ಕವಿತಾ ಪುಸ್ತ್ಕಾಚೀ |
|---|---|



| | |
|---|---|
| हांव पुस्तक धांपतना, | ಹಾಂವ್ ಪುಸ್ತ್ಕ್ ಧಾಂಪ್‌ತನಾ, |
| हांव जीण उगडटां | ಹಾಂವ್ ಜೀಣ್ ಉಗಡ್‌ಟಾಂ |
| हांव आयकतां | ಹಾಂವ್ ಆಯ್‌ಕತಾಂ |
| आडखळिल्ल्यो बोबो | ಆಡ್‌ಖಳಿಲ್ಲ್ಯೋ ಬೋಬೋ |
| बंदरां मदें. | ಬಂದ್‌ರಾಂ ಮದೇಂ. |
| रातचो वेळ | ರಾತ್‌ಚೋ ವೇಳ್ |
| जुंव्यां मदली | ಜುಂವ್ಯಾಂ ಮದ್‌ಲೀ |
| आमची दर्या | ಆಮ್‌ಚೀ ದರ್‌ಯಾ |
| नुस्त्यानी धडधडटा | ನುಸ್ತ್ಯಾನೀ ಧಡ್‌ಧಡ್‌ಟಾ |
| लागता पांयांक, जांगांक, | ಲಾಗ್‌ತಾ ಪಾಂಯಾಂಕ್, ಜಾಂಗಾಂಕ್. |
| आनी आमच्या देशांच्या | ಆನೀ ಆಮ್‌ಚ್ಯಾ ದೇಶಾಂಚ್ಯಾ |
| चुन्याच्या फातरांचे बरीक. | ಚುನ್ಯಾಚ್ಯಾ ಫಾತ್‌ರಾಂಚೇ ಬರೀಕ್, |
| सगळी रात | ಸಗ್‌ಳೀ ರಾತ್ |
| तिचे वेळेक दसता, फांत्यापारार | ತಿಚೇ ವೇಳೇಕ್ ದಸ್‌ತಾ, ಫಾಂತ್ಯಾಪಾರಾರ್ |

| | |
|---|---|
| जागी जाता गायत | ಜಾಗೀ ಜಾತಾ ಗಾಯತ್ |
| गिटार उत्तेजित केल्ल्या वरी | ಗಿಟಾರ್ ಉತ್ತೇಜಿತ್ ಕೆಲ್ಲ್ಯಾ ವರೀ |
| दर्याचो कल्लोळ उलो दीत आसा. | ದರ್‌ಯಾಚೋ ಕಲ್ಲೋಳ್ ಉಲೋ ದೀತ್ ಆಸಾ. |
| वारें | ವಾರೇಂ |
| आपयता म्हाका | ಆಪ್‌ಯತಾ ಮ್ಹಾಕಾ |
| आनी रोद्रिगेझ आपयना, | ಆನೀ ರೋದ್ರಿಗೇಝ್ ಆಪ್‌ಯತಾ, |
| आनी जुझे अंतोनियो | ಆನೀ ಜುಝೇ ಅಂತೋನಿಯೋ - |
| म्हाका एक तार मेळ्ळ्या | ಮ್ಹಾಕಾ ಏಕ್ ತಾರ್ ಮೆಳ್ಳ್ಯಾ |
| "मायन" युनियनाची | "ಮಾಯ್‌ನ್" ಯೂನಿಯನಾಚೀ |
| आनी बुकालेमूंत म्हजी मोगीण | ಆನೀ ಬುಕಾಲೇಮೂಂತ್ ಮ್ಹಜೀ ಮೋಗೀಣ್ |
| (जिचें नांव सांगचोंना) | (ಜಿಚೇಂ ನಾಂವ್ ಸಾಂಗ್‌ಚೋಂನಾ) |
| वाट म्हजी पळयत आसा. | ವಾಟ್ ಮ್ಹಜೀ ಪಳ್‌ಯತ್ ಆಸಾ. |
| खंयचेंय पुस्तक शकलें ना | ಖಂಯ್‌ಚೇಂಯ್ ಪುಸ್ತಕ್ ಶಕ್‌ಲೇಂ ನಾ |
| गुटलांवक म्हाका कागतान, | ಗುಟ್‌ಲಾಂವಕ್ ಮ್ಹಾಕಾ ಕಾಗ್‌ತಾನ್, |
| म्हाका भरूंक पावलें ना | ಮ್ಹಾಕಾ ಭರೂಂಕ್ ಪಾವ್‌ಲೇಂ ನಾ |
| टायपोग्राफीन, | ಟಾಯ್‌ಪೋಗ್ರಾಫೀನ್, |
| व स्वर्गीय छापान, | ವ ಸ್ವರ್‌ಗೀಯ್ ಛಾಪಾನ್, |
| आनी केन्नाच शकलें ना | ಆನೀ ಕೇನ್ನಾಚ್ ಶಕ್‌ಲೇಂ ನಾ |
| म्हजें दोळे बांदूक, | ಮ್ಹಜೇ ದೋಳೇ ಬಾಂದೂಕ್, |
| हांव पुस्तकांतल्यान भायर येतां | ಹಾಂವ್ ಪುಸ್ತಕಾಂತಲ್ಯಾನ್ ಭಾಯರ್ ಯೇತಾಂ |
| म्हज्या कर्कश गाण्यांच्या गणां सयत | ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಕರ್ಕಶ್ ಗಾಣ್ಯಾಂಚ್ಯಾ ಗಣಾಂ ಸಯತ್ |
| दोंगरावयल्या उज्याकडेन | ದೋಂಗರಾವಯ್‌ಲ್ಯಾ ಉಜ್ಯಾಕಡೇನ್ |
| लोखंडाचें काम करपाक | ಲೋಖಂಡಾಚೇಂ ಕಾಮ್ ಕರ್‌ಪಾಕ್ |
| वा धूवरायल्लें मांस खावपाक. | ವಾ ಧೂವ್‌ರಾಯಲ್ಲೇಂ ಮಾಂಸ್ ಖಾವ್‌ಪಾಕ್. |
| म्हाका आवडटात साहसाचीं | ಮ್ಹಾಕಾ ಆವಡ್‌ಟಾತ್ ಸಾಹಸಾಚೀಂ |
| पुस्तकां, | ಪುಸ್ತಕಾಂ, |
| पुस्तकां रानाचीं, हिमाचीं, | ಪುಸ್ತಕಾಂ ರಾನಾಚೀಂ, ಹಿಮಾಚೀಂ, |
| खोलायेचीं व मळबाचीं. | ಖೋಲಾಯೇಚೀಂ ವ ಮಳ್‌ಬಾಚೀಂ. |

| | |
|---|---|
| पुण नाका | ಪುಣ್ ನಾಕಾ |
| पुस्तक-मावली | ಪುಸ್ತಕ್-ಮಾವ್‌ಲೀ |
| ज्यांच्या विचारांच्या सरयांत | ಜ್ಯಾಂಚ್ಯಾ ವಿಚಾರಾಂಚ್ಯಾ ಸರ್‌ಯಾಂತ್ |
| फिरत तरणे मूस फसतात. | ಫಿರತ್ ತರ್‌ಣೇ ಮೂಸ್ ಫಸ್‌ತಾತ್. |
| पुस्तका, म्हाका वचूं दी. | ಪುಸ್ತಕಾ, ಮ್ಹಾಕಾ ವಚೂಂ ದೀ. |
| म्हाका ग्रंथाचीं वस्त्रां नाकात, | ಮ್ಹಾಕಾ ಗ್ರಂಥಾಚೀಂ ವಸ್ತ್ರಾಂ ನಾಕಾತ್, |
| हांव पुस्तक-संग्रहांतल्यान येना, | ಹಾಂವ್ ಪುಸ್ತಕ್-ಸಂಗ್ರಹಾಂತಲ್ಯಾನ್ ಯೇನಾ, |
| म्हज्या कवितानी | ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಕವಿತಾನೀ |
| कविता खावंक ना - | ಕವಿತಾ ಖಾವಂಕ್ ನಾ - |
| त्यो गिळटात | ತ್ಯೋ ಗಿಳ್‌ಟಾತ್ |
| उत्तेजक घडणुको, | ಉತ್ತೇಜಕ್ ಘಡ್‌ಣುಕೊಂ, |
| खातात उग्र हवो | ಖಾತಾತ್ ಉಗ್ರ್ ಹವೋ |
| खणून काडटात अन्न | ಖಣೂನ್ ಕಾಡ್‌ಟಾತ್ ಅನ್ನ್ |
| मातयेंतल्यान, मनशांतल्यान। | ಮಾತಯೇಂತಲ್ಯಾನ್, ಮನ್‌ಶಾಂತಲ್ಯಾನ್. |
| हांव वचत आसा | ಹಾಂವ್ ವಚತ್ ಆಸಾ |
| जोत्यार धूळ घेवन | ಜೋತ್ಯಾರ್ ಧೂಳ್ ಘೇವನ್ |
| दंतकथा-स्वतंत्र जावन : | ದಂತ್‌ಕಥಾ-ಸ್ವತಂತ್ರ್ ಜಾವನ್ ; |
| पुस्तकां उरूं आलमारींत, | ಪುಸ್ತಕಾಂ ಉರೂಂ ಆಲಮಾರೀಂತ್, |
| हांव चल्लों म्हजे वाटेक. | ಹಾಂವ್ ಚಲ್ಲೋಂ ಮ್ಹಜೇ ವಾಟೇಕ್. |
| जिणेचो जाणकार जालां | ಜಿಣೇಚೋ ಜಾಣ್‌ಕಾರ್ ಜಾಲಾಂ |
| जिणेंतल्यान, | ಜಿಣೇಂತಲ್ಯಾನ್, |
| मोग समजलों उम्यावेल्यान | ಮೋಗ್ ಸಮ್‌ಜಲೋಂ ಉಮ್ಯಾವೇಲ್ಯಾನ್ |
| कोणाक शिकोवंक कांयच ना | ಕೋಣಾಕ್ ಶಿಕೋವಂಕ್ ಕಾಂಯಚ್ ನಾ |
| मात हांव जियेलों | ಮಾತ್ ಹಾಂವ್ ಜಿಯೇಲೋಂ |
| मनशांमदें समान जावन, | ಮನ್‌ಶಾಂಮದೇಂ ಸಮಾನ್ ಜಾವನ್, |
| तांचे कडेन झुजतना, | ತಾಂಚೇ ಕಡೇನ್ ಝುಜ್‌ತನಾ. |
| सांगत तांच्यो सांगणयो, म्हज्या गाण्यांत. | ಸಾಂಗತ್ ತಾಂಚ್ಯೋ ಸಾಂಗ್‌ಣ್ಯೋ, ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಗಾಣ್ಯಾಂತ್. |

# कविता



ानी ते पिरायेर ... कविता आयली
हाका सोदित, हांव नेणां, हांव नकळो
ंयच्यान, केन्ना आयली.
ड्य, ते शब्द नासले, तीं उतरां
ासलीं, शांतताय नासली.
ण म्हाका आपयलो गल्लींतल्यान
ातच्या खांद्यावेल्यान,
स यांकडल्यान अचकीत,
हिंसात्मक उज्यामदें
ा एकटोच परततना,
हजें अशें स्वत्व नासलें.
ानी म्हाका अणभवलें .
कितें सांगचे कांय कळ्ळें ना,
म्हज्या तोणांत
ायलीं नात नांवां,
ाळे आसले कुड्डे,
ानी आत्म्यांत कितें तरी फुटलें,

# ಕವಿತಾ

ಆನೀ ತೇ ಪಿರಾಯೇರ್ ....ಕವಿತಾ ಆಯ್ಲೀ
ಮ್ಹಾಕಾ ಸೋದೀತ್, ಹಾಂವ್ ನೇಣಾಂ, ಹಾಂವ್ ನಕ್ಳೋ
ಖಂಯಚ್ಯಾನ್, ಕೇನ್ನಾ ಆಯ್ಲೀ.
ನ್ಹಯ್, ತೇ ಶಬ್ದ್ ನಾಸ್ಲೇ, ತೀಂ ಉತರಾಂ
ನಾಸ್ಲೀಂ, ಶಾಂತತಾಯ್ ನಾಸ್ಲೀ.
ಪುಣ್ ಮ್ಹಾಕಾ ಆಪಯ್ಲೋ ಗಲ್ಲೀಂತಲ್ಯಾನ್,
ರಾತಚ್ಯಾ ಖಾಂದ್ಯಾವೇಲ್ಯಾನ್,
ದುಸರ್ಯಾಂಕಡಲ್ಯಾನ್ ಅಚ್ಕೀತ್,
ಹಿಂಸಾತ್ಮಕ್ ಉಜ್ಯಾಮದೇಂ
ವಾ ಏಕ್ಟೋಚ್ ಪರ್ತತನಾ,
ಮ್ಹಜೇಂ ಅಶೇಂ ಸ್ವತ್ವ್ ನಾಸ್ಲೇಂ.
ಆನೀ ಮ್ಹಾಕಾ ಅಣ್ಭವ್ಲೇಂ.
ಕಿತೇಂ ಸಾಂಗ್ಚೇಂ ಕಾಂಯ್ ಕಳ್ಳೇಂ ನಾ,
ಮ್ಹಜ್ಯಾ ತೋಣಾಂತ್
ಆಯ್ಲೀಂ ನಾತ್ ನಾಂವಾಂ
ದೋಳೇ ಆಸ್ಲೇ ಕುಡ್ಡೇ
ಆನೀ ಆತ್ಮ್ಯಾಂತ್ ಕಿತೇಂ ತರೀ ಫುಟ್ಲೇಂ

जोर काय विसरिल्लीं पाखटां
आनी हांवे म्हजी वाट काडली
त्या उज्याचो अर्थ लायत,
आनी बरयल्ली ती पयली अव्यक्त वळ,
अव्यक्त, पोकळ,
शुद्ध पिशेपण,
कांयच कळूंक नाशिल्ल्याचें
शुद्ध शाणेपण,
आनी रोखडेच दिसले
स्वर्ग
सदळ
आनी उक्ते,
ग्रहां,
धडधडपी गिरांचे समूह,
बाणांनी, उज्यान आनी फुलांनी
बुराख पडिल्ली सावळी,
रातचें चक्र, प्रपंच.
आनी हांव, अती ल्हान,
नखेत्रांचे पोकळेचे,
रहस्याचे नशेंत येवन
समजलों म्हाकाच एक शुद्ध
कुटको जसो पाताळचो,
हांव नखेत्रां सयत घुंवलों,
म्हजें काळीज मेकळें जालें,
उक्तया मळबार पावलें.

■ अणकार : **गोकुलदास प्रभु**

ಜೋರ್ ಕಾಯ್ ವಿಸರಿಲ್ಲೀಂ ಪಾಖ್‌ಟಾಂ
ಆನೀ ಹಾಂವೇಂ ಮ್ಹಜೀ ವಾಟ್ ಕಾಡ್‌ಲೀ
ತ್ಯಾ ಉಜ್ಯಾಚೋ ಅರ್ಥ್ ಲಾಯ್‌ತ್,
ಆನೀ ಬರಯ್‌ಲ್ಲೀ ತೀ ಪಯ್‌ಲೀ ಅವ್ಯಕ್ತ್ ವಳ್,
ಅವ್ಯಕ್ತ್, ಪೋಕಳ್,
ಶುದ್ಧ್ ಪಿಶೇಪಣ್,
ಕಾಂಯಚ್ ಕಳೂಂಕ್ ನಾಶಿಲ್ಲ್ಯಾಚೇಂ
ಶುದ್ಧ್ ಶಾಣೇಪಣ್,
ಆನೀ ರೋಖ್‌ಡೇಚ್ ದಿಸ್‌ಲೇ
ಸ್ವರ್ಗ್
ಸದಳ್
ಆನೀ ಉಕ್ತೇ,
ಗ್ರಹಾಂ,
ಧಡ್‌ಧಡ್‌ಪೀ ಗಿರಾಂಚೇ ಸಮೂಹ್,
ಬಾಣಾಂನೀ, ಉಜ್ಯಾನ್ ಆನೀ ಫುಲಾಂನೀ
ಬುರಾಖ್ ಪಡಿಲ್ಲೀ ಸಾವ್‌ಳೀ,
ರಾತ್‌ಚೇಂ ಚಕ್ರ್, ಪ್ರಪಂಚ್,
ಆನೀ ಹಾಂವ್, ಅತೀ ಲ್ಹಾನ್,
ನಖೇತ್ರಾಂಚೇ ಪೋಕ್‌ಳೇಚೇ,
ರಹ್‌ಸ್ಯಾಚೇ ನಶೇಂತ್ ಯೇವನ್
ಸಮ್‌ಜಲೋಂ ಮ್ಹಾಕಾಚ್ ಏಕ್ ಶುದ್ಧ್
ಕುಟ್‌ಕೋ ಜಸೋ ಪಾತಾಳಾಚೋ,
ಹಾಂವ್ ನಖೇತ್ರಾಂ ಸಯತ್ ಘುಂವಲೋಂ,
ಮ್ಹಜೇಂ ಕಾಳೀಜ್ ಮೇಕ್‌ಳೇಂ ಜಾಲೇಂ,
ಉಕ್ತ್ಯಾ ಮಳ್‌ಬಾರ್ ಪಾವಲೇಂ.

■ ಅಣ್‌ಕಾರ್ : **ಗೋಕುಲ್‌ದಾಸ್ ಪ್ರಭು**

| | |
|---|---|
| **जीण म्हजी** | **ಜೀಣ್ ಮ್ಹಜೀ** |
| **सनातन यात्रा** | **ಸನಾತನ್ ಯಾತ್ರಾ** |
| हांव मनीस सनातन | ಹಾಂವ್ ಮನೀಸ್ ಸನಾತನ್ |
| जीण म्हजी सनातन यात्रा | ಜೀಣ್ ಮ್ಹಜೀ ಸನಾತನ್ ಯಾತ್ರಾ |
| हांवे सोपयला म्हाका | ಹಾಂವೇ ಸೋಪಯ್‌ಲಾ ಮ್ಹಾಕಾ |
| पृथ्वीच्या सृजन निर्मणेंत | ಪೃಥ್ವೀಚ್ಯಾ ಸೃಜನ್ ನಿರ್ಮಣೇಂತ್ |
| विरगळायला समर्पणाच्या | ವಿರ್‌ಗಳಾಯ್‌ಲಾ ಸಮರ್‌ಪಣಾಚ್ಯಾ |
| आनंद कोषांत | ಆನಂದ್ ಕೋಷಾಂತ್ |
| संकुचित विचारसरणेचे उबकें | ಸಂಕುಚಿತ್ ವಿಚಾರ್‌ಸರಣೇಚೇ ಉಬ್‌ಕೇಂ |
| आटोवंक घालून | ಆಟೋವಂಕ್ ಘಾಲೂನ್ |
| भोवंडी आरंभल्या | ಭೋವಂಡೀ ಆರಂಭ್‌ಲ್ಯಾ |
| भायल्या भितरल्या | ಭಾಯಲ್ಯಾ ಭಿತರ್‌ಲ್ಯಾ |
| ब्रह्मांड विस्तृततायेच्या विस्तारणेंत | ಬ್ರಹ್ಮಾಂಡ್ ವಿಸ್ತೃತ್‌ತಾಯೇಚ್ಯಾ ವಿಸ್ತಾರ್‌ಣೇಂತ್ |
| जातूंत सत्-चित्-आनंदाचे | ಜಾತೂಂತ್ ಸತ್-ಚಿತ್-ಆನಂದಾಚೇ |
| म्हासागर विस्तारिल्ले | ಮ್ಹಾಸಾಗರ್ ವಿಸ್ತಾರಿಲ್ಲೇ |
| जंय निर्मून निर्मल्लें सगळें | ಜಂಯ್ ನಿರ್‌ಮೂನ್ ನಿರ್‌ಮಲ್ಲೇಂ ಸಗ್‌ಳೇಂ |
| निर्मणे खातीर | ನಿರ್ಮಣೇ ಖಾತೀರ್ |
| हांव मनीस सनातन | ಹಾಂವ್ ಮನೀಸ್ ಸನಾತನ್ |
| जीण म्हजी सनातन यात्रा | ಜೀಣ್ ಮ್ಹಜೀ ಸನಾತನ್ ಯಾತ್ರಾ |
| **■ प्रकाश पाडगांवकार** | **■ ಪ್ರಕಾಶ್ ಪಡ್‌ಗಾಂವ್‌ಕಾರ್** |

# हांव

सासणाखातीर निर्मणेचो क्रम चलपी
हांव मनीस
खणटा जीव संस्कृती उत्थानाची बुन्याद
सांसपीत अश्मयुगाच्या
अस्तित्वतायेचीं मुळां
झंकारायत ध्वनी स्तब्धतायेचो
आदी-अंताच्यो शिमो-रेशो बाळांडून
विश्व-ब्रह्मांड निर्मणेचो, ताच्या
निर्मणेफाटलो दिश्टांत हातासपाक
म्हजे पंचप्राण पारदर्शकावरी
तिकतिकावन
हांव म्हाकाच लागला वळखूंक
म्हजो वंश सनातन
म्हजो धर्म सनातन
म्हजी जात सनातन
हांव मनीस सनातन

■ प्रकाश पाडगांवकार

# ಹಾಂವ್

ಸಾಸಣಾಖಾತೀರ್ ನಿರ್‌ಮಣೇಚೋ
ಕ್ರಮ್ ಚಲ್‌ಪೀ
ಹಾಂವ್ ಮನೀಸ್
ಖಣ್‌ಟಾ ಜೀವ್ ಸಂಸ್ಕೃತಿ
ಉತ್ಥಾನಾಚೀ ಬುನ್ಯಾದ್
ಸಾಂಸ್‌ಪೀತ್ ಅಶ್ಮಯುಗಾಚ್ಯಾ
ಅಸ್ತಿತ್ವತಾಯೇಚೀಂ ಮುಳಾಂ
ಝುಂಕಾರಾಯತ್ ಧ್ವನೀ ಸ್ತಬ್ಧತಾಯೇಚೋ
ಆದೀ-ಅಂತಾಚ್ಯೋ
ಶಿಮೋ-ರೇಶೋ ಬಾಳಾಂಡೂನ್
ವಿಶ್ವ-ಬ್ರಹ್ಮಾಂಡ್ ನಿರ್ಮಣೇಚೋ, ತಾಚ್ಯಾ
ನಿರ್ಮಣೇಫಾಟ್‌ಲೋ ದಿಶ್ಟಾಂತ್ ಹಾತಾಸ್‌ಪಾಕ್
ಮ್ಹಜೇ ಪಂಚ್‌ಪ್ರಾಣ್
ಪಾರದರ್ಶಕಾವರೀ ತಿಕ್‌ತಿಕಾವನ್
ಹಾಂವ್ ಮ್ಹಾಕಾಚ್ ಲಾಗ್‌ತಾ ವಳ್‌ಖೂಂಕ್
ಮ್ಹಜೋ ವಂಶ್ ಸನಾತನ್
ಮ್ಹಜೋ ಧರ್ಮ್ ಸನಾತನ್
ಮ್ಹಜೀ ಜಾತ್ ಸನಾತನ್
ಹಾಂವ್ ಮನೀಸ್ ಸನಾತನ್

■ ಪ್ರಕಾಶ್ ಪಡ್‌ಗಾಂವ್‌ಕಾರ್

# त्रांगी

त्राच्या
र वताचीं ल्हारां
वा रूंवानी
    रिगता

गधगीत
    जाता खीण
ांब्यार सांवळेच्या
    मुंब यांतल्यान
ळझुळत येवपी
गराळया
ोगूळ सुरावळींतल्यान
न शितळ
    जावन भिजता

नत वताच्या
त्ररथाची
ाफ्यार उफेता
    आभा
ाच पांचव्या
र्वत पालवार
सुंधरेच्या
ानी ताची
गुणीत जाता
    प्रभा

# ಚೈತ್ರಾಂಗೀ

ಚೈತ್ರಾಚ್ಯಾ
ಚರ್ ವತಾಚೀಂ ಲ್ಹಾರಾಂ
ರೂಂವಾ ರೂಂವಾನೀ
    ರಿಗ್‌ತಾ

ಧಗ್‌ಧಗೀತ್
    ಜಾತಾ ಕೀಣ್
ಆಂಬ್ಯಾರ್ ಸಾಂವ್‌ಳೇಚ್ಯಾ
    ಮುಂಬ್‌ರ್ಯಾಂತಲ್ಯಾನ್
ಝುಳ್‌ಝುಳತ್ ಯೇವ್‌ಪೀ
ಘುಂಗ್‌ರಾಳ್‌ಯಾ
ಕೋಗೂಳ್ ಸುರಾವಳೀಂತಲ್ಯಾನ್
ಮನ್ ಶಿತಳ್
    ಜಾವನ್ ಭಿಜ್‌ತಾ

ಹುನತ್ ವತಾಚ್ಯಾ
ಚೈತ್ರ್‌ರಥಾಚೀ
ಚಾಂಫ್ಯಾರ್ ಉಫೇತಾ
    ಆಭಾ
ಪಾಚ್ ಪಾಂಚವ್ಯಾ
ಪರ್ವತ್ ಪಾಲ್‌ವಾರ್
ವಸುಂಧರೇಚ್ಯಾ
ಆನೀ ತಾಚೀ
ದುಗುಣೀತ್ ಜಾತಾ
    ಪ್ರಭಾ

सानवेळाचेर
तंग दोंगरांनी
सोनारवतांची
        चडटा साय
मदीं मदीं बाळयाच्या
घूंगूर फुलांच्या
भांगर हळदुव्या
दुव्या दुव्यांचीं
        सासाय
खंय खंय
अख्ख्या फुलोवन
मळबार
लाल पाखांचे
गुलमोहरी मोर

आसमंतांतूय
काजूल परमळ,
कृष्ण काणणांचो
भडंग भिण्णांचो
रस सुरबूस
चाखीत चोखीत
भोंवता पोर
हें चैत्राचे
रूप रेखणे
तप्त वतांगी
चैत्रांगी ...
चैत्रांगी ...

■ रमेशभगवंत वेळुस्कर

ಸಾನ್‌ವೇಳಾಚೇರ್
ತಂಗ್ ದೋಂಗ್‌ರಾಂನೀ
ಸೋನಾರ್‌ವತಾಂಚೀ
        ಚಡ್‌ಟಾ ಸಾಯ್
ಮದೀಂ ಮದೀಂ ಬಾಳ್ಯಾಚ್ಯಾ
ಘುಂಗೂರ್ ಫುಲಾಂಚ್ಯಾ
ಭಾಂಗರ್ ಹಳ್‌ದುವ್ಯಾ
ದುವ್ಯಾ ದುವ್ಯಾಂಚೀ
        ಸಾಸಾಯ್
ಖಂಯ್ ಖಂಯ್
ಅಖ್ಖ್ಯಾ ಫುಲೋವನ್
ಮಳ್‌ಬಾರ್
ಲಾಲ್ ಪಾಖಾಂಚೇ
ಗುಲ್‌ಮೋಹ್‌ರೀ ಮೋರ್

ಅಸಮಾಂತಾಂತೂಯ್
ಕಾಜೂಲ್ ಪರಮಳ್,
ಕೃಷ್ಣ್ ಕಾಣ್ಣಾಂಚೋ
ಭಡಂಗ್ ಭಿಣ್ಣಾಂಚೋ
ರಸ್ ಸುರ್‌ಬೂಸ್
ಚಾಖೀತ್ ಚೋಖೀತ್
ಭೋಂವ್‌ತಾ ಪೋರ್
ಹೇಂ ಚೈತ್ರಾಚೇ
ರೂಪ್ ರೇಖ್‌ಣೇ
ತಪ್ತ್ ವತಾಂಗೀ
ಚೈತ್ರಾಂಗೀ ...
ಚೈತ್ರಾಂಗೀ ...

■ ರಮೇಶ್ ಭಗವಂತ್ ವೇಳುಸ್ಕರ್

# एक उतर

एक उतर
पूर्वदिशांकडे दोंगुलांचे तेंगशेर दवरल्लें
तें उज्याकीट जालें
आनी दीस भर जळ्ळें
उगड्या दोळ्यांक कौतूक जालें,
सदां काळ उरलें .

एक उतर
वयर मळबावशीं उबून गेलें,
तें काळें कूप जालें
आनी नेमान पावस शिंवरता
धर्तरिक न्हाणयता.

एक उतर
पिसोळें जालें आनी फिरूंक गेलें
तें झाडारसून झाडार भोंवता
आनी पराग घडयता
सगळयां खातीर उमेद वांट्टा.

एक उतर
भायर उसळून गेलें आनी वाटेर पडलें
तें नीत मागत आसा
आनी केन्ना केन्ना बोवाळ करता
न्हिदतल्यांक जागयता
न्हीद नाडप्यांक भेश्टायता.

एक उतर
म्हजेकडेच रावता
तें म्हजें नांव म्हूण म्हजी वळख दिता
आनी सदांभशेन कुळाविशीं तोखणाय करता
वर्सां वर्स पिंड वाड्टा
मेल्लयांकडे नातें जोडता .

■ आर.एस. भास्कर

# ಏಕ್ ಉತರ್

ಏಕ್ ಉತರ್
ಪೂರ್ವದೇಶಾಂಕಡೇ ದೋಂಗುಲಾಂಚೇ
ತೇಂಗ್‌ಶೇರ್ ದವರ್ಲ್ಲೇಂ
ತೇಂ ಉಜ್ಯಾಕೀಟ್ ಜಾಲೇಂ
ಆನೀ ದೀಸ್ ಭರ್ ಜಳ್ಳೇಂ
ಉಗಡ್ಯಾ ದೋಳ್ಯಾಂಕ್ ಕೌತೂಕ್ ಜಾಲೇಂ,
ಸದಾಂ ಕಾಳ್ ಉರ್ಲೇಂ.

ಏಕ್ ಉತರ್
ವಯರ್ ಮಳ್‌ಬಾವಶೀಂ ಉಬೂನ್ ಗೇಲೆಂ,
ತೇಂ ಕಾಳೇಂ ಕೂಪ್ ಜಾಲೇಂ
ಆನೀ ನೇಮಾನ್ ಪಾವಸ್ ಶಿಂವರ್ತಾ
ಧರ್ತರೇಕ್ ನ್ಹಾಣಯ್ ತಾ.

ಏಕ್ ಉತರ್
ಪಿಸೋಳೇಂ ಜಾಲೇಂ ಆನೀ ಫಿರೂಂಕ್ ಗೇಲೆಂ
ತೇಂ ಝಾಡಾರ್‌ಸೂನ್ ಝಡಾರ ಭೊಂವ್ತಾ
ಆನೀ ಪರಾಗ್ ಘಡಯ್ತಾ
ತರಾಂತರಾಂಚೇಂ ಫುಲಾಂ ಫುಲಯ್ತಾ
ಸಗಳ್ಯಾಂ ಖಾತೀರ್ ಉಮೇದ್ ವಾಂಟಾ.

ಏಕ ಉತರ್
ಭಾಯರ್ ಉಸ್‌ಳೂನ್ ಗೇಲೆಂ ಆನೀ ವಾಟೇರ್
ಪಡ್‌ಲೇಂ
ತೇಂ ನೀತ್ ಮಾಗತ್ ಆಸಾ
ಆನೀ ಕೇನ್ನಾ ಕೇನ್ನಾ ಬೋವಾಳ್ ಕರ್ತಾ
ನ್ಹಿದ್‌ತಲ್ಯಾಂಕ್ ಜಾಗಯ್ತಾ
ನ್ಹೀದ್ ನಾಡ್‌ಪ್ಯಾಂಕ ಭೇಶ್ಟಾಯ್ತಾ.

ಏಕ್ ಉತರ್
ಮ್ಹಜೇಕಡೇಚ್ ರಾವ್ತಾ
ತೇಂ ಮ್ಹಜೇಂ ನಾಂವ್ ಮ್ಹೂಣ್ ಮ್ಹಜೀ ವಳಖ್ ದಿತಾ
ಆನೀ ಸದಾಂಭಶೇನ್ ಕುಳಾವಿಶೀಂ ತೋಖಣಾಯ್ ಕರ್ತಾ
ವರ್ಸಾಂ ವರ್ಸ್ ಪಿಂಡ್ ವಾಡ್ಟಾ
ಮೇಲ್ಲ್ಯಾಂಕಡೇ ನಾತೇಂ ಜೋಡ್ತಾ.

■ ಆರ್. ಎಸ್. ಭಾಸ್ಕರ್.

## पावस

तुजी याद येता तेन्ना
थंड वारें व्हांवता
आनी पैसुल्यान येवपी काळया कुपांची
सुलूस लागता
मन दाटून येता
आनी काळजांतल्या दोंगरापलतडच्यान
गच्च धवो पावस
लागीं लागीं येता
तुज्यो आकुळपिकुळ यादी घेवन
तो पावस
म्हाका भिजयता, न्हाणयता
घोग्यानीं पडूंक लागता
म्हज्या मनांतलो सैम
खोशयेन शिरशिरता
पावसाचे उदक धावूंक लागता
सकलेवटेन
व्हाळ व्हांवतात
न्हंयो भरतात
आनी
काळजांतल्या दर्याक
उपाट भरती येता
भरतेचे उदक
काळीज भरून
मन भरून
दोळयांवटयां व्हांवूक लागता
त्या उदकाचे थेंबे
जेन्ना ओठांक स्पर्श करतात
तेन्ना खारट लागतात
तुज्यो यादीय आतां
दिसानदिस खारट जायत चल्ल्यात

■ **अरुण साखरदांडे**

## ಪಾವ್ಸ್

ತುಜೀ ಯಾದ್ ಯೇತಾ ತೇನ್ನಾ
ಥಂಡ್ ವಾರೇಂ ವ್ಹಾಂವ್ತಾ
ಆನೀ ಪೈಸುಲ್ಯಾನ್ ಯೇವ್ಪೀ ಕಾಳ್ಯಾ ಕುಪಾಂಚೀ
ಸುಲೂಸ್ ಲಾಗ್ತಾ
ಮನ್ ದಾಟೂನ್ ಯೇತಾ
ಆನೀ ಕಾಳ್ಜಾಂತಲ್ಯಾ ದೋಂಗ್ರಾ ಪಲತಡ್ಚ್ಯಾನ್
ಗಚ್ಚ್ ಧವೋ ಪಾವ್ಸ್
ಲಾಗೀಂ ಲಾಗೀಂ ಯೇತಾ
ತುಜ್ಯೋ ಆಕುಳ್ಪಿಕುಳ್ ಯಾದೀ ಘೇವನ್
ತೋ ಪಾವ್ಸ್
ಮ್ಹಾಕಾ ಭಿಜ್ಯ್ತಾ, ನ್ಹಾಣ್ಯ್ತಾ
ಘೋಗ್ಯಾನೀಂ ಪಡೂಂಕ್ ಲಾಗ್ತಾ
ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಮನಾಂತಲೋ ಸೈಮ
ಖೋಶಯೇನ್ ಶಿರ್ಶಿರ್ತಾ
ಪಾವ್ಸಾಚೇ ಉದಕ್ ಧಾವೂಂಕ್ ಲಾಗ್ತಾ
ಸಕ್ಲೇವಟೇನ್
ವ್ಹಾಳ್ ವ್ಹಾಂವ್ತಾತ್
ನ್ಹಂಯೋ ಭರ್ತಾತ್
ಆನೀ
ಕಾಳ್ಜಾಂತಲ್ಯಾ ದರ್ಯಾಕ್
ಉಪಾಟ್ ಭರ್ತೀ ಯೇತಾ
ಭರ್ತೇಚೇ ಉದಕ್
ಕಾಳೀಜ್ ಭರೂನ್
ಮನ್ ಭರೂನ್
ದೋಳ್ಯಾಂವಟ್ಯಾಂ ವ್ಹಾವೂಂಕ್ ಲಾಗ್ತಾ
ತ್ಯಾ ಉದ್ಕಾಚೇ ಥೆಂಬೇ
ಜೇನ್ನಾ ಓಟಾಂಕ್ ಸ್ಪರ್ಶ್ ಕರ್ತಾತ್
ತೇನ್ನಾ ಖಾರಟ್ ಲಾಗ್ತಾತ್
ತುಜ್ಯೋ ಯಾದೀಯ ಆತಾಂ
ದಿಸಾನ್ದಿಸ್ ಖಾರಟ್ ಜಾಯತ್ ಚಲ್ಲ್ಯಾತ್

■ **ಅರುಣ್ ಸಾಖರ್ದಾಂಡೇ**

## सात पावलां

जेणेच्या ह्या सांजेवेळार
ओल्या रेंवेर नक्षी काडत
रत एकदां हातांत धरून हात
वलुंया रे पावलां सात ||धृ||

दशादिशांच्या सहस्र हातांनी
शिंवरूंनी आमचेर अक्षदां
किरां-मोरांकय म्हणूनी
मंगलाष्टकां
कोगळीच्या ताला-सुरांत ॥१॥

आतां थरथरचेंना पावल
आतां हुरहुरचेंना काळीज
सुख दुखाच्या फूल कांटयानी
होंट म्हजी आसतली तृप्त-तृप्त ॥२॥

नाका वाजांतयांचो खळखळाट
नाका सख्यासोयऱ्यांचो गजबजाट
टल्या यादींच्यो सोडयत गांठी
लु आमी जायत मुक्त-मुक्त ॥३॥
रत एकदां, हातांत धरून हात
वलुया रे आमी पावलां सात

■ माया अनिल खरंगटे

## ಸಾತ್ ಪಾವ್‌ಲಾಂ

ಜಿಣೇಚ್ಯಾ ಹ್ಯಾ ಸಾಂಜೇವೇಳಾರ್
ಓಲ್ಯಾ ರೇಂವೇರ್ ನಕ್ಷೀ ಕಾಡತ್
ಪರತ್ ಏಕ್‌ದಾಂ ಹಾಂತಾಂತ್ ಧರೂನ್ ಹಾತ್
ಚಲುಂಯಾ ರೇ ಪಾವ್‌ಲಾಂ ಸಾತ್ || ಧೃ||

ದಶಾದಿಶಾಂಚ್ಯಾ ಸಹಸ್ರ ಹಾತಾಂನೀ
ಶಿಂವ್‌ರೂಂನೀ ಆಮ್‌ಚೇರ್ ಅಕ್ಷದಾಂ
ಕಿರಾಂ-ಮೋರಾಂಕಯ್ ಮ್ಹಣೂನೀ
ಮಂಗಲಾಷ್ಟಕಾಂ
ಕೊಗ್‌ಳೀಚ್ಯಾ ತಾಲಾ-ಸುರಾಂತ್ || ೧ ||

ಆತಾಂ ಥರ್‌ಥರ್‌ಚೇಂನಾ ಪಾವಲ್
ಆತಾಂ ಹುರ್‌ಹುರ್‌ಚೇಂನಾ ಕಾಳೀಜ್
ಸುಖ್ ದುಃಖಾಚ್ಯಾ ಫೂಲ್ ಕಾಂಟ್ಯಾನೀ
ಹೋಂಟ್ ಮ್ಹಜೀ ಆಸ್‌ತಲೀ ತೃಪ್ತ್-ತೃಪ್ತ್ || ೨ ||

ನಾಕಾ ವಾಜಾಂತರ್‍ಯಾಂಚೋ ಖಳಖಳಾಟ್
ನಾಕಾ ಸಖ್ಯಾಸೋಯ್‌ರ್‍ಯಾಂಚೋ ಗಜ್‌ಬಜಾಟ್
ಫಾಟಲ್ಯಾ ಯಾದೀಂಚ್ಯೋ ಸೋಡಯ್‌ತ್ ಗಾಂಠೀ
ಚಲುಯಾ ಆಮೀ ಜಾಯತ್ ಮುಕ್ತ್-ಮುಕ್ತ್ || ೩ ||
ಪರತ್ ಏಕದಾಂ, ಹಾತಾಂತ್ ಧರೂನ್ ಹಾತ್
ಚಲುಯಾ ರೇ ಆಮೀ ಪಾವ್‌ಲಾಂ ಸಾತ್

■ ಮಾಯಾ ಅನಿಲ್ ಖರಂಗಟೇ

## कसल्याय परसंगार

"कसल्याय परसंगार
खूंट कशें थीर राव
तुज्या माथ्यार आसतली
मळबाची सासाय
आनी पांयाक गावतली
भुंयेची घटाय"
जाण्टेली 'बा'
सदांच म्हाका सांगताली
आनी तेन्नासांवन
प्रसंगार प्रसंगाची कुसां
म्हाकां तोपत रावलीं
तरींय हांव खूंट कशे
आसा थीर,
आनी 'बा'च्या उतरांची फूंक
म्हज्या घायार मारुन
म्हज्या म्हाकाच
दिता धीर.
ह्या धीराक आसता
मळबाची सासाय
भुंयेची घटाय
आता म्हज्या घराक
ह्या धीराचीच वंय.

■ नयना आडारकार

## ಕಸಲ್ಯಾಯ್ ಪರ್‌ಸಂಗಾರ್

"ಕಸಲ್ಯಾಯ್ ಪರ್‌ಸಂಗಾರ್
ಖೂಂಟ್ ಕಶೇಂ ಥೀರ್ ರಾವ್
ತುಜ್ಯಾ ಮಾಥ್ಯಾರ್ ಆಸ್‌ತಲೀ
ಮಳ್‌ಬಾಚೀ ಸಾಸಾಯ್
ಆನೀ ಪಾಂಯಾಕ್ ಗಾವ್‌ತಲೀ
ಭುಂಯೇಚಿ ಘಟಾಯ್"
ಜಾಣ್ಟೇಲೀ 'ಬಾ'
ಸದಾಂಚ್ ಮ್ಹಾಕಾ ಸಾಂಗ್‌ತಾಲೀ
ಆನೀ ತೆನ್ನಾಸಾಂವನ್
ಪ್ರಸಂಗಾರ್ ಪ್ರಸಂಗಾಚೀ ಕುಸಾಂ
ಮ್ಹಾಕಾಂ ತೋಪತ್ ರಾವ್‌ಲೀಂ
ತರೀಂಯ್ ಹಾಂವ್ ಖೂಂಟ್ ಕಶೇ
ಆಸಾ ಥೀರ್,
ಆನೀ 'ಬಾ'ಚ್ಯಾ ಉತ್‌ರಾಂಚೀ ಫೂಂಕ್
ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಘಾಯಾರ್ ಮಾರುನ್
ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಮ್ಹಾಕಾಚ
ದಿತಾ ಧೀರ್.
ಹ್ಯಾ ಧೀರಾಕ್ ಆಸ್‌ತಾ
ಮಳ್‌ಬಾಚೀ ಸಾಸಾಯ್
ಭುಂಯೇಚಿ ಘಟಾಯ್
ಆತಾ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಘರಾಕ್
ಹ್ಯಾ ಧೀರಾಚೀಚ್ ವಂಯ್.

■ ನಯನಾ ಆಡಾರ್‌ಕಾರ್

## आरिद्रा पावसाचो उडगास

घडी बी थांबनाशी
रकत आसा वयल्यान
आरिद्रा पावस धाराकार
माळये घराच्या
पाक्या वयल्यान
देंवची उदकाची धारा
पळयता पळयता उदकाधार

मना अगणांतली
मात्ती मेकळन कितलेकी
वर्षां फाटली आयली
उडगासांची ल्हारां.

बसून चूलीचे
उज्या समेर आमी
सांगतो अशिल्यो काणियो,
व्हाळचे उदकाचे
फाटी धांवत
उदकांत सोडिल्यो दोणयो
दीस फाटले संपल्यार कितें,
अजय हांगा
राती वेळारी,
शेतांत बेब्बे रडतात
पावसा कीडे वदरतात
एकटो बसून हांव
आयकता, हुन्नट उडगास
भिजयता,
मनांतले उमाळे तेन्नाचे
पावसा उदकांत परमळळे,
काळचे मुलयांत,
खंयिकी एक, उणे पणाचे,
दुखी अनुभवान
कळवळले.

■ मारुतिनायक, देवनळ्ळी

## ಆರಿದ್ರಾ ಪಾವಸಾಚೊ ಉಡ್‌ಗಾಸ್

ಘಡೀ ಬೀ ಥಾಂಬನಾಶಿ
ರಕತ್ ಆಸಾ ವೈಲ್ಯಾನ್
ಅರಿದ್ರಾ ಪಾವ್ಸ ಧಾರಾಕಾರ್,
ಮಾಳ್‌ಯೇ ಘರಾಚ್ಯಾ,
ಪಾಕ್ಯಾ ವೈಲ್ಯಾನ್
ದೆಂವ್‌ಚೀ ಉದಕಾಚೀ, ಧಾರಾ,
ಪಳಯ್‌ತ್ ಪಳಯ್‌ತ್ ಉದ್‌ಕಾಧಾರ್

ಮನಾ ಅಗ್‌ಣಾಂತ್‌ಲೀ
ಮಾತ್ತಿ ಮೇಕಳನ್ ಕಿತ್ಲೆಕೀ
ವರ್ಷಾಂ ಫಾಟ್‌ಲೀ, ಅಯ್‌ಲೀ
ಉಡ್‌ಗಾಸಾಂಚೀ ಲ್ಹಾರಾಂ,

ಬಸೂನ್ ಚೂಲೀಚೆ
ಉಜ್ಯಾ ಸಮೇರ್ ಅಮಿ
ಸಾಂಗ್ತೊ ಅಶಿಲ್ಯೊ ಕಾಣಿಯೊ,
ವ್ಹಾಳಚೆ ಉದಕಾಚೆ
ಫಾಟಿ ಧಾಂವತ್
ಉದ್‌ಕಾಂತ್ ಸೋಡಿಲ್ಯೊ ದೋಣ್‌ಯೋ
ದೀಸ್ ಫಾಟ್ಲೆಂ ಸಂಪ್ಲ್ಯಾಯರ್ ಕಿತ್ತೆಂ,
ಅಜಿ ಭೀ ಹಾಂಗ್ಹಾ,
ರಾತೀ ವೇಳಾರಿ,
ಶೇತಾಂತ್ ಬೆಬ್ಬೆ ರಡ್‌ತಾತ್
ಪಾವಸಾ ಕೀಡೆ ವದರ್‌ತಾತ್,
ಏಕಟೋ ಬಸೂನ್ ಹಾಂವ್
ಅಯ್‌ಕತಾ, ಹುನಟ್ ಉಡ್ಗಾಸು
ಭಿಜಯ್‌ತಾ,
ಮನಾಂತಲೆ ಉಮಾಳೆ ತೆನ್ನಾಚೆ
ಪಾವ್‌ಸಾ ಉದ್‌ಕಾಂತ್ ಪರ್‌ಮಳ್‌ಳೇ,
ಕಾಳಚೇ ಮುಲ್ಯಾಂತ್,
ಖಂಯಿರೇ ಏಕ್, ಉಣೇಪಣಾಚೆ,
ದುಖೀ ಅನುಭವಾನ್
ಕಳವಳಲೆ,

■ ಮಾರುತಿ ನಾಯಕ್, ದೇವನಳ್ಳಿ

# नवीं पुस्तकां

साहित्य अकादेमी पुरस्कृत कवी प्रकाश पाडगांवकार हांचो सातवो कविता संग्रह *व्हांवती न्हंय काळाची* उजवाडा आयला. पुस्तकांत चडावत जावन १९८४ - १९९६ मेरेनच्या दशकांत बरयल्ल्यो कविता दिसतात, पुण आदल्या दशकांतल्योय आस्पावल्यात. पुस्तकांतल्यो ९६ कविता एक प्रज्ञावंत कवीच्या शिटूक मनाची आनी तांचे विशाळ नदरेची गवाय आसा.वळींनी समतुळित विकार आनी सौम्य भावांचीं वेगवेगळीं आंगां दिसतात. कवितेचो सूर चिंतनशीळ दिसलो तरी तत्वगिन्यानी न्हय.

*व्हांवती न्हंय काळाची*
*- प्रकाश पाडगांवकार*
*सृजनविश्व प्रकाशान,*
*पर्वरीं, गोंय ४०३ ५२१*
*पानां - XXIV + ९२*
*मोल - रू. १२०-००*



●

## *'ज्ञानप्पाना' चो अणकार*

*ज्ञानप्पाना म्हळयार* मलयाळम भाशेचें एक म्हत्वाचें भक्ती काव्य. 'पूंतानम'ह्या कवीन बरयल्लें १७९ यमकांचें हें काव्य सतराव्या शेंकड्यांत सावन केरळांत पामाद जालां. हें काव्य भक्ती आनी तत्वगिन्यान हांचेर आधारिल्लें तरीय कवी अशिक्षित आशिल्ल्यान गांवगिरे शैलीन सहजतायेन बरयल्ल्या ह्या काव्याचो भौसाचेर खूब प्रभाव पडलोच. ज्ञानप्पानाचो हो कोंकणी अणकार प्रो.आर.के. राव हाणीं केला. आशयाचें भाशांतर. रूपान चडावत जावन गद्य अशें दिसुयेता. मूळ कृतींतले तितलीच सरळ भास.

*ज्ञानप्पाना*
*मूळ - पून्तानम,*
*अणकार - प्रो.आर.के.राव*
*कोंकणी भाषा इन्स्टिट्यूट,*
*पालारिवट्टम, कोची - ६८२ ०२५*
*पानां ६ + १४ मोल - रू. २०-००*




# ನವೀಂ ಪುಸ್ತಕಾಂ

ಸಾಹಿತ್ಯ ಅಕಾದೇಮೀ ಪುರಸ್ಕೃತ ಕವೀ ಪ್ರಕಾಶ್ ಪಾಡಗಾಂವಕಾರ ಹಾಂಜೋ ಸಾತ್‌ವೋ ಕವಿತಾ ಸಂಗ್ರಹ *ವ್ಹಾವ್‌ಂತೀ ನ್ಹಂಯ್ ಕಾಳಾಚೀ* ಉಜವಾಡಾ ಆಯ್‌ಲಾ. ಪುಸ್ತ್‌ಕಾಂತ್ ಚಡಾವತ್ ಜಾವನ್ ೧೯೮೪-೧೯೯೬ ಮೇರೇನಚ್ಯಾ ದಶಕಾಂತ್ ಬರಯಲ್ಲ್ಯೋ ಕವಿತಾ ದಿಸತಾತ್. ಪುಣ್ ಆದ್‌ಲ್ಯಾ ದಶಕಾಂತ್‌ಲ್ಯೋಯ್ ಆಸ್ಪಾವಲ್ಯಾತ್. ಪುಸ್ತಕಾಂತಲ್ಯೋ ೯೬ ಕವಿತಾ ಏಕ್ ಪ್ರಜ್ಞಾವಂತ್ ಕವೀಚ್ಯಾ ಶಿಟೂಕ್ ಮನಾಚೀ ಆನೀ ತಾಂಚೇ ವಿಶಾಳ ನದರೇಚೀ ಗವಾಯ್ ಅಸಾ. ವಳೀಂನೀ ಸಮತುಳಿತ್ ವಿಕಾರ್ ಆನೀ ಸೌಮ್ಯ ಭಾವಾಂಚೀಂ ವೇಗವೇಗಳಿಂ ಆಂಗಾಂ ದಿಸ್‌ತಾತ್. ಕವಿತೇಚೋ ಸೂರ್ ಚಿಂತನಶೀಳ ದಿಸಲೋ ತರೀ ತತ್ವಗಿನ್ಯಾನೀ ನ್ಹಯ್.

*ವ್ಹಾಂವತೀ ನ್ಹಂಯ್ ಕಾಳಾಚೀ*
*ಪ್ರಕಾಶ್ ಪಾಡಗಾಂವಕಾರ್*
*ಸೃಜನ್ ವಿಶ್ವ್ ಪ್ರಕಾಶನ್,*
*ಪರ್ವರೀಂ-ಗೋಂಯ್ ೪೦೩ ೫೨೧*
*ಪಾನಾಂ - XXIV + ೯೨*
*ಮೋಲ್ - ರೂ. ೧೨೦-೦೦*

●

## *'ಜ್ಞಾನಪ್ಪಾನಾ' ಚೋ ಅಣ್‌ಕಾರ್*

ಜ್ಞಾನಪ್ಪಾನಾ ಮ್ಹಳ್ಯಾರ್ ಮಲಯಾಳಮ್ ಭಾಶೇಚೇಂ ಏಕ್ ಮ್ಹತ್ವಾಚೇಂ ಭಕ್ತಿಕಾವ್ಯ. 'ಪೂಂತಾನಮ್" ಹ್ಯಾ ಕವೀನ್ ಬರಯಲ್ಲೇಂ ೧೭೯ ಯಮಕಾಂಚೇಂ ಹೇಂ ಕಾವ್ಯ ಸತರಾವ್ಯಾ ಶೇಂಕಡ್ಯಾಂತ ಸಾವನ ಕೇರಳಾಂತ ಫಾಮಾದ ಜಾಲಾಂ. ಭಕ್ತೀ ಆನೀ ತತ್ವಗಿನ್ಯಾನ್ ಹಾಂಚೇರ್ ಆಧಾರಿಲ್ಲೇಂ ತರೀಯ್ ಕವೀ ಅಶಿಕ್ಷಿತ್ ಆಶಿಲ್ಲ್ಯಾನ್ ಗಾಂವಗಿರೇ ಶೈಲೀನ್ ಸಹಜತಾಯೇನ್ ಬರಯಲ್ಲ್ಯಾ ಹ್ಯಾ ಕಾವ್ಯಾಚೋ ಭೌಸಾಚೇರ್ ಖೂಬ್ ಪ್ರಭಾವ್ ಪಡಲೋಚ್. ಜ್ಞಾನಪ್ಪಾನಾಚೋ ಹೋ ಕೊಂಕಣೀ ಅಣಕಾರ್ ಪ್ರೊ. ಆರ್. ಕೇ. ರಾವ್ ಹಾಣೇಂ ಕೇಲಾ. ಆಶಯಾಚೇಂ ಭಾಶಾಂತಾರ್. ರೂಪಾನ್ ಚಡಾವತ್ ಜಾವನ್ ದ್ಯ ಅಶೇಂ ದಿಸೂಯೇತಾ. ಮೂಳ್ ಕೃತೀಂತಲೇ ತಿತಲೀಚ್ ಸರಳ್ ಭಾಸ್.

*ಜ್ಞಾನಪ್ಪಾನಾ*
ಮೂಳ್-ಪೂನ್ತಾನಮ್,
ಅಣಕಾರ್ - ಪ್ರೊ. ಆರ್. ಕೇ. ರಾವ್
ಕೊಂಕಣೀ ಭಾಷಾ ಇನ್‌ಸ್ಟಿಟ್ಯೂಟ್,
ಪಾಲಾರಿವಟ್ಟಮ್, ಕೋಚೀ ೬೮೨ ೦೨೫
ಪಾನಾಂ ೬ + ೧೪ ಮೋಲ್ - ರು. ೨೦-೦೦